# सोंड्याचे कान

चा. फ्रा. दिकॉस्ता



जाग प्रकाशन : ५३



पयली खेप : मार्च १९८८

मोल : पंचवीस रुपया

उजवाडावपी :
सुमन्त रामचंद्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय ४०३४०४

छापपी :
मा. गो. जोशी
आनंद मुद्रणालय
१५२३, सदाशिव, पुणे ४११०३०

# सोंश्याचे कान : एक नवें पान

" Poetry lifts the veil from the hidden beauty of the world and makes familiar objects as if they were not familiar."

SHELLEY

सोंश्याचे कान सगल्यांनी पळेल्यात पूण जेन्ना आमी ते कविच्या दोळ्यांनी पळेतात तेन्ना ते वेगळेच दिसतात. सृष्टीचेर संवकळेचो धुल्ल बसला तो पुसून उडोवन ती नवी ताल्ल कशी करप हें कविचें एक कार्य. हेच पासत कवीक परतून परतून भुरगो जावंचे पडटा भुरग्याचे नदरेन विश्व पळोवपाक. भुरग्याची नदर खरी पूण उतर मात जाण्टयांचें जाय. शेंकडयांनी वर्सां जाण्टयांनी घडयल्ल्या भांडारांतल्यान कवी जाय तें उतर, जाय तीं उतरां घेता आनी आपले नवे मांडावळीन तांकां नवें रूप दिता–अप्रूप रूप.

चा. फ्रा. द् कोश्ताच्यो कविता वाचताना उतरांचे आनी चित्रांचे नवे सृष्टींत प्रवेश केल्ले भाशेन दिसता. खरो कवी परमेश्वरान केल्लो सृष्टीचे निर्मितिचो वावर मुखार व्हरता. स्फुर्ती देवते कडल्यान स्फुर्ती घेवन तो वाचप्यांक स्फुर्ती दिता. पोरणें घेवन तो नवें घडयता.

" सोंश्याचे कान " म्हळचार कोंकणी काव्यरुखावेलें तिकतिकीत नवें पान.

मुंबयचे आकाशवाणीचेर पंचवीस वर्सां आदीं चा. फ्रा. क पळेलो आनी आयकलो तेन्ना एक नवो कवी, खरो कवी भेटिल्ल्याचो आनंद जालो. कवितेंतल्यान जिवि-ताची खर दाखोवपी मनीस मेळिल्ल्याची खोस जाली. त्यावेळार म्हजो इश्ट विष्णू नायक म्हजेवांगडा आसलो. ताजी " खरस " ही कविता आयकून आमी मनांतल्या मनांत खर्शेले आनी हर्षेले. कवीन चित्रायल्लें दुख्खूय सुखावरी गोड लागलें.

चा. फ्रा. ची मदीं मदीं भेट जायत रावली मंगळुरांत, गोंयांत आनी बेंगळुरांत. बाकीबाबांची कविता जशी बाकीबाबांच्या तोंडांतल्यान आयकुपाची तशीच चा. फ्रा. ची कविता चा. फ्रा. नूच म्हणिल्ली आयकुपाची आनी पळोवपाची. कारण, चा. फ्रा. आपली कविता जितली गळयान म्हणटा, तितलीच हातांनी बोटांनी, दोळयांनी म्हणटा. ताज्या आंगा आंगांतल्यान कविता फुलता, फुट्टा. " हाड गो चेडवा बुडकुलो रकय तळयांत " अशें जेन्ना तो घोगऱ्या ताळयान म्हणटा तेन्ना काव्याचो सगलो बुडकलो तो आयकुप्याच्या काळजांत रकयता. उतरांच्या ल्हारांचो आवाज आनी गाज जिवाक न्हाणोवन सोडटा. चा. फ्रा. ची कविता

जितली वाचपाची तितलीच आयकुपाची. अर्थावांगडाच ती स्वर, ल़य, ताल घेवन जल्माक आयल्या. आनी ती आयकताना आयकुप्याचेंय काळीज तालार नाचूंक लागता. हातपांय ठेको धरतात. उतरांच्या स्वरांतल्यान आपशींच अर्थउमाळो उकतो जावप हें बऱ्या काव्याचें लक्षण. आनी तेंच चा. फ्रा. च्या काव्याचें खाशेलपण. तांतुतले उतर, उमाळो, विचार कानाक भुलयतात, काळजाक ह़ालयतात, मनाक हात घालतात. चा. फ्रा. च्या काव्यांत उतरांचो खेळ चलता खरो पूण तो सहज-तायेन केल्लोसो दिसता, जसो जादुगार हातांतल्यान रंगीबिरंगी पेल्ल वयर उडयत कुशळतायेन तांकां झेलता आनी पळोवप्याचे नदरेमुखार अप्रूप रंगयाळी आकृताय रचता. पूण असलो हो उतरांचो खेळ कोणाकूय जमपाचो न्हय. जाणे भाशेक केळयल्या, रगतांत घोळयल्या, तिज्यो सगल्यो बारीकसाणी पारखिल्या ताणेंच ही असली उतरांची कसरत करपाची. जो भाशेचो जाता ताजीच भास जाता. चा. फ्रा. च्या काव्यांत कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय, सुंदरताय आनी अप्रुपाय पळोवची.

चा. फ्रा. ची कविता जशी जाणकारांची तशीच नेणाऱ्यांची. ती पंडितांची तान पालयता तशीच भौसाची भूक भागयता. ताजी खंयचीय कविता घेतल्यार ती अशी दोन पांवडयांचेर वाचूं येता, समजूं येता." मोग करूं लिपूनसो," "हाड चेडवा बुडकुलो" "आशा" "खरस" "उजो" "चार चोवगां मान ना" "बाळाचो हांसो" "आजूच तशें" ह्यो कविता मुजरत व्हडल्यान वाचच्यो आनी मागीर अंतर्मुख जावन मनांत घोळोवच्यो. अश्यो त्यो मनांत घोळयताना जिवाक अस्वस्थ करून सोडटात. खरो गिन्यानी, खरो राजकर्णी, खरो कवी असोच अस्वस्थ करता. सुखाच्या चंद्रिमार दुख्खाचें लाशें उरताच उरता. काव्य हें सुंदर, आनंदमय हें खरें पूण जिवितांत सगलोच आनंद, सगलीच सुंदरताय ना. कविची नदर संवसारांतलें दुख्ख आनी कुरुपताय पारखिता, खंती जाता. दुकांचे ओलसाणेन आनी जडसाणेन चा. फ्रा. चें कवितूय ओलेशें, जडशें जालां. चा. फ्रा. च्या दर्याक सदांच उजो पेटला आसताना तो मनांत "मेकळें चिंतप" पोशीत रावता.

चा. फ्रा. च्या काव्याक जिविताची अगणीत तासां : अणभवाचीं थिकां-लिकलिकीत, मोगाचीं चंवरां–परमळीत, अपमानाचीं किसरां–किसकिसीत. आनी तरीय आपल्या न्हिदसुऱ्या दोळयांतल्यान तो आमच्या मनांत "स्वपणांतुलें राज" जागयता. कोंकणी समाज, ताज्यो चालीरिती, ताजे उत्फरके, उमाळे, दुबाव, हीं सगलीं ह्या काव्यांत होलमतात जशो पानांत शिरो आसतात तशो; जशे उशीकाण्यांत कुसां आसतात तशे. झाडां–पेडां, फुलां–फळां, कोमऱ्यो–पानां, कळे–कळयो, सैमाच्या सगल्या रुपांचें पडबिंब ह्या काव्यांत पळोवचें. कोंकणचो कवी कोंकणाच्या सैमांत हांगा असो एकरूप जाला.

चा. फ्रा. ची कविता सुंदरी नागरी लिपिचो भेस घेवन आमचे मुखार

आयल्या. कागदार उदेल्ले कविचे विचार-उमाळे आतां कोंकणाच्या सगल्या कोनश्यांनी पावतले, शारांच्या घरांनी, खेड्यांच्या खोंपयांनी घर करून रावतले. कोंकणीच्या प्रमाणीकरणांत हें आनीक एक जैतवंत पावल. हे पासत " जाग " प्रकाशनाक परबीं दीत तितलीं थोडीं : एक लिपी बरी आनी दुसरी लिपी उणाक अशें आमी केन्नाच म्हणूंक ना. लिपी हो भाशेचो भेस. पूण तीन चार विंगड विंगड लिपींनी बरोवपी कोंकणी बरोवप्यांक आनी वाचप्यांक एकठांय हाडटलो जाल्यार सद्या तरी देवनागरी लिपी बगर दुसरो पर्याय ना, उपाय ना. लिपिच्या दुर्गांक लागून जाल्ले कोंकणीचे कुणगे आतां शेकानशेक एकूच पिकाळ शेत कशें लसलसतले. वेगळयावेगळया वाठारांनी शिंपडलेले कोंकणी मनीस आतां एकामेकांक वाचतले, समजतले. जरी

" आमी बाबडीं कोंकणी बाळां शिंपल्या तरी चोंय मळां "

मंगळूरच्या कोंकणीच्या कावथ्याक वेगळे तरेचें सारें, वारें मेळून ताज्या फळाची रूच चिके वेगळी जाल्या. हें वेगळेंपणूच आमची गिरेस्तकाय. दरएकल्याचें वेगळेंपण हेंच आगळेपण. वेगळयाक वेगळो म्हणून कुशीक सारता तोच वेगळो पडटा. गोंयकार कविचे विशय वेगळे, हावेस वेगळे. " नवें गोंय, नवे गोंयकार " म्हणत फुडारावें चित्र चितारपी बयाभावा पसून " आज कोणूच उलयना, आज कोणूच वथरेना " अशें म्हणपी नागेश करमली मेरेन सगल्यांच्या काव्यांत गोंयचे स्वतंत्रतायेची, समाजीक क्रांतिची ओड दिसून येता. गोंयचे कालचे आनी आयचे परिस्थितीक लागून गोंयच्या काव्यांत जें राजकी, समाजीक ल्हार उप्रासलां तें मंगळुरी काव्यांत दिसून येना. उरफाटें तांतूंत घरावे प्रस्न आनी मनश्याची आवतिकाय हांचोच चड विचार दिसता. तांतुंतले तांतूंत चा. फ्रा. ची कविता मातशी वेगळी. बयाभावांचो किंवाटो, खंत तांतूंत थयथयताच ते भायर तांतुंतल्यान मनशाच्या मनांतल्या कल्लोळाचेंय दर्शन जाता. भाशेक रूप आनी आकार दिवपाचें काम सगल्यांत बरे तरेन करता तो कवी. कवी हो फकत उमाळयांचो उद्गातो न्हय तर तो भाशेचो राखणदारूय; जेन्ना उतरां काव्यांत गुंथून उरतात तेन्ना तीं सासणाचीं तिगतात. संत तुलसीदास, संत कबीर, संत मीराबाय, संत नानक, संत तुकाराम हांणी मध्ययुगीन भारती भाशांतलीं उतरां अजून तिगोवन दवल्ल्यांत.

इतलीं वर्सां, इतले पयस रावन कोंकणीच्या मूळपीठा पसून तुटून पडल्या आसताना, द्रवीड भाशेचीं उतरां दिसपट्टीं कानांत घुंवत आसताना आनी कानडी लिपिचो भेस भाशेर चडला आसताना, मंगळूरकार भावांनी तीं पयलीं वयलीं, नितळ निवळ कोंकणी उतरां तशींच मंगल कशीं दवल्लीं हें कुवाडें म्हाका अजून सुटून सुटना. ही कोंकणी भाशेची शक्ती आनी कोंकणी मनशाची भाशा–भक्ती ! काळाच्या कर्तुपाचे घण घेवन, गांवभायरेपणाची कळ सोंसून, कितल्या अडी–

अडचणींक, हाल–अपेश्टांक तोंड दिवन काळजाच्या करणांत दवरून हाडिल्ली आवय भास कशी तिगयली, आपल्या भुरग्या–बाळांच्या मनांत कशी रिगयली ? पोर्तुगेजांनी भारतांत हाडिल्लो पोर्तुगेज धाटणेचो किरिस्तांव धर्म आपणावन लेगीत फिरंगी उतरां किसरां कशीं तोंपिल्लीं दिसनात. गंगेचे देगेवेले देववाणिचे शब्द आसले जाल्यारूय तांकां कोंकण किनाऱ्यावेल्या दर्याच्या ल्हारांची खारसाण आयल्या. दर्यादेगेवेली ही कोंकणी अळणी जावपाकूच ना. घांटावेल्यान उदकाचे कितलेय घोगे आयले तरी कोंकणीची म्हजी मिठा–कणी सदांच तरणी.

ज्यावेळार फिरंग्यांनी आमचे आवयभाशेची निजाची मोड मोडूंक नासली आनी तिज्यांत नाका जाल्ले शब्द भरसूं नासले तेन्ना आमचे भाव आपले भाशेचें भांडार गांठीक बांदून गोंय सोडून मंगळूरांत स्थायीक जाले. त्या वेळचें कोंकणीचें सोबीत, नितळ रूप अजून मेरेन तांणी सांबाळून दवल्लां. देखून नामनेचे पंडीत दोतोर जुझे पेरैर मंगळुरी कोंकणीक प्रमाण कोंकणी कशी मानतात. इबाडलेले, भेळशेल्ले कोंकणीक तिजी आदली गिरेस्तकाय, नितळसाण दिवपाचो मोलादीक येत्न मोंसिग्नोर सेब्राश्तियांव रोदोल्फु दाल्गादु हाणे केलो. आमी गोंयकार जेन्ना मंगळुरी कोंकणी वाचतात आनी आयकतात तेन्ना आमकां फाटलें दायज परतून मेळिल्ल्याची खोस जाता.

मंगळुरांत पाद्री आन्जेल माफेय हाणें जिवाचें रान करून कोंकणी रानांतलो सोबीत ताळो गाजयलो. कानडी वाठारांतले कोंकणीक कानडी भेस दिवन कोंकणी भाशेची राखण आनी पोसवण केली. ताज्या पावलार पावल दवरून लुईश माश्कारेन्याश हाणें "आब्रांवाचें यज्ञदान" हें पद्य–नाटच रचून कोंकणीक मोलाचें योगदान दिलें. "कोंकणी दिवें" संपादून नव्या कविच्या स्फुर्तीक आनी शक्तीक संचार करपाक मेकळें मळ करून दिलें. तेंच कोंकणी दायज मुखार व्हरून फा. पॉल लुईश बोतेल्यु, आंब्रोझ द् सोउझा, लॅन्सलॉट, सिरील जी. सिकैरा, जे. बी. मोराइश, मारीदास बी जायत्या कवींनी कोंकणी कविता सुंदरीच्या आंगार अलंकार चडयले. चा. फ्रा. द कोश्ता होय कानडी मातयेंन जल्मल्लो कोंकणी कवी. कानडी मातयेंत जल्माक आइल्लो पूण समस्त कोंकणाचे लाल मातयेन रंगलेलो. ताजें दायज फक्कत कानडी कोकणीचेंच न्हय तर पूर्वापार चलत आयिल्ल्या साबार कोंकणी काव्याचें. सगलें कोंकण जाका वळखता आनी तोखेता असो तो एक कवी—वेगळो, आगळो.

ताज्या काव्याक प्रस्तावनेची गरज नासली. पूण दिव्या भोंवतणी रांगोळी काडल्यार रांगोळीच उजवाडान भरता. प्रस्तावनेंत कवीच्योच वळी भरसून, उतरां जोडून प्रस्तावना लांब–रुंद करूं येताली. चा. फ्रा. चे कवितेचेर उलयत तितलें थोडें पूण तिका चिरपाची, कातरपाची म्हाका मातूय उमेद ना. पाकळयो पिश्टून सोबितकाय दाखोवपाचो वा पांखां तोडून पिसोळयाची सुंदरताय थारावपाचो पिसो वावर हांव करिना. कविता ही एकेच नदरेन एका दमान मापूंक जाय, एकाच

उमाळयान काळजार तोलूंक जाय. सुंदरीच्या आंगावेले अलंकार काडून तांका मोलावं येत पूण कवितारतिच्या आंगावेल्यो वस्ती वेगळयो कश्यो काडटलो? काव्यांतले अळंकार म्हळचार काव्याचेंच जितें जिवें आंग. रुपडें ओडून काडूं येता पूण तोंडूच ओडून कशें काडटलो?

चा. फ्रा. ची कविता तुमी वाचची–सगलीच वाचची. तिज्या आंगाचे कुडके काडून ह्या पानार हांव दवरिना. चा. फ्रा. चो अपमान जातलो. “ ज़ेवणाक केदीं पान ना, चार चोवगां मान ना. ” अशें चा. फ्रा. न म्हणूं दी. हांव म्हणचों ना ज्या कवीक कोंकणी काव्याचे समराझेंत तांबड्या पाटाचो मान मेळ्ळा ताका अशें कोण म्हणत, बगर चा. फ्रा.?

“ सोंश्याचे कान ” तुमचे मुखार आसात. काळजाचे कान करून तुमी आयकुचें.

– मनोहरराय सरदेसाय

## मांडावळ

## थेंबे

गिन्यानाचो मुदो तूं गा
वुदवंतकायेन तोवला–
शिकणान तुज्या संवसार पळे
रावल्याकडेन रावला !
पोवलेकुडको पाळण्यांतुलो
फोंडा लागीं पावला,
चिंतून चिंतून परत्यान परतो
आत्मो म्हजो बावला !

घडयेक म्हणटाय, देवाक सूय
जिवित ताचो धागो !
कितें शिवतात दोनूय पावी,
खंय तो धागो रिगो ?
गर्वान तुज्या अंतस्कर्णांत
भेसां केल्लो जागो–
शिवतात गाय ते शिंदतात
माडये वयलो सोगो ? [1]
समजानासतां नाका दीवं
काळजाक तुज्या दगो –
समजून पळे, बसलां कोनशाक
मोन्यावरी वोगो !

जिवित म्हळचार भितर पोकळ
भायलीं पुराय " रैलां "

१ सोगो : माडयेचीं मल्लां

नित्राणाचें कडतार[2] कशें
दादले जावं तीं बायलां
कोण जाणा कित्याक तांकां
असले गतीक पायलां !
दिसानासलो कर्मी बावळो
दडाम तुजें वोड्टा;
वयलें सर्गाक, पोंदलें भुंयेक
मातें गळो फोडटा;
दामून वोडून कोणूय तरूय
थेंब्याधारीक जोडटा;
एकेक थेंबो अंतराळांतलो
तुज्या तोंडांत झडटा —
थेंबो जावंये अम्रुताचो
ताळचा - बिळांत पडटा;
उबरा उदका जावंये थेंबो
फाटो फाटल्यान उडटा;
मेणा थेंबो शेणा थेंबो
काळीज कांतून काडटा;
उऱ्या[3] थेंबो, बिब्या थेंबो
शिरेन शिरो फोडटा;
आंब्या थेंबो, लिंब्या थेंबो
कुडी आत्म्याक नाडटा.

खंयचोय आसूं, पयलो थेंबो
तुज्या तोंडांत पडटा
तोच तो थेंबो, उब्यान उबो
तुजें जिवित घडटा !

२ कडतार : ल्हान शेंदरी
३ उरो : बिब्या रूक

# सोदना : १

त्या दोंगरा देगेरी, ते पांय वाटेरी
पुनवे राती गेलोलेंय तूं नाचून नाचून

त्या दोंगरा देगेरी, त्या मळचा मेरेरी
दोळ्याक म्हज्या गेलोलेंय तूं चुकून चुकून

ते पुनवे रातींतु, ते चांदण्या वातींतु
पांय वाटेर सोदतालोंगो बागवून बागवून

तीं मोवाळ बोटां, तीं पांयांचीं मेटां
पांयवाटेर आसतलीं गो माजवून माजवून

तो कोंबो सादेलो, तो रवी उदेलो
पावलां तुजीं सोदताना गो थकून थकून

त्यो कोबांत[1]ल्यो चलयो, घेवून गोडाच्यो बेलयो
देकून म्हाका वेताल्योगो हांसून हांसून

ती सकाळ उदेली, म्हाका लज दिसोली
मळचा बगलेंत लिपलोलों गो दुकून दुकून

सदां पुनवेचे राती ते पांयवाटेरी
पावलां तुजीं सोदतालों गो बागवून बागवून

ते पांयवाटेरी ती पावलां मेळ्ळचारी
सोदनेची रूच सांगतोलों गो हांसून हांसून !

१ कोबू : उशेकांडो

## सोदना : २

पुनवेचे रातीं चंद्राचो सोद
कोणे दिली गो असली बुद्द
आवयच्या तोंडार बाळ दिसाना
बामणाच्या घरा मेळाना दूद

फांत्या परार कोंब्याचो उलो
उल्या उल्यांतु कवितां झेलो
तांतूंत म्हूगेलें गीत मेळाना
मतींतलो कवी सोदूंक गेलो

चांदण्याक फसोवन फुलोलां फूल
पाकळचो उसोवन घाली गो भूल
भुलींत तुज्या सोबाय सोदताना
भोंवऱ्यान बसून पेटयली चूल

बाळाच्या तोंडार हास्याची मोड
दोळयांनी चोयतां उसवली कूड
हास्याचें पुण मूळ मेळाना
बाळ वळून हांसलो चड

धाकटुलीं पोरां झडयतात तोरां
एकटो चोयतां वोरांची वोरां
वोळींत ताच्या खेळ मेळाना
वाटेक लायताना शेजारचीं घरां

चली लजेन वाट धरीत
हांव चोयताना पालोव सारीत
लज या झेत कांय कळाना
वोतांत वेता ती पालवा खेरीत

सुभागी व्हकले गळ्यांत सर
हावें दिल्लो गुलाब खंयसर ?
मरत्या फुलांनी जीण दिसाना
रातीक राकता तुजो गो नर

वयजाल्या मांडार वखदांचो भोग
भलायकेंत तूं सोदिता रोग
मरणाच्या तोंडार गुण दिसाना
रोगाचे सोदनेंत मेळाना मोग

वावराड्या तुज्या पोटाक मिरी
दोळयांत सदां दुखाळ झरी
दुख भोगताना सुख लाभाना
भांगराची तरूय सुरी ती सुरी

मोन्या मानेस्ता पोटाक उंडो
वाटेर गाडो, मात्यार मुडो[1]
मुड्याचे जडायेंत वाट दिसाना
मतींतलो कवी कुशीन सरो

बाळाचो हांसो खेळ भुरग्यांचो
चलयेची लज मेळ दर्याचो
एकांतूय देवा मोग दिसाना
सोदनेंत तुजो ताळो आयकलो

---

१ मुडो : भातेणान बांदिल्ले ४२ शेर तांदूळ

पुनवेचे रातीं चंद्राचो सोद
कोणे दिलीरे तुका ही बुद्द
आवयच्या तोंडार बाळ दिसाना
बामणाच्या घरीं मेळाना दूद.

## मिठाकण

पेजे वाटली हातीं घेवन
दर्या वेळेर रावलां
कोणूय विचारनाकात चोवन
" तोंड कशें बावलां ? "

एक आसली मिठाकण
पिशे बुद्दीन वाडल्या;
दर्यायेदीं जातां म्हण
दर्यात वचून उडल्या !

दी गा म्हजी मिठाकण
तुज्या उदकांत खिरल्या
निरास जाल्या म्हजी जीण
पेज अळणी उरल्या !

# शेंडो

हांव बसलां फाटले बसकेर
आनी बाये म्हजो आत्मो रिसकेर !
तूं बसल्याय मुखले सिटीर
अंतर्मळां तुजे फाटीर
तुजो दुदया तेदो शेंडो
जसो उदकार धोलचो बोंडो
कोलेजीचे चलये परी वागता
घडयेन घडी नाकाक म्हज्या लागता !

तांतूं भरलांय कितें ?
म्हाका सांगल्यार जातें–
नाल्ल भरल्याय ?
रेंव भरल्याय ?
सोरो भरलाय ?
या पायनेलांतल्या जेजूवरी
मुटींत आपल्या धरल्या वरी
अपरिमीत मायेमोगान
सगळो संवसार आपल्या शेंड्यांत धरलाय ?

नाका, फाटीं पळे नाका
तुजी खबर म्हाका नाका
तुजे ग़ोमटेर एक ऊव देंवल्या
पेंकटाक हात धरून उबी रावल्या
वयर पळोवन खाडकी खेळोवन
म्हणटा आपलें सोंड वोळावन
‘ एक सवाल आपणांक धोसता :
ही बायल–
‘ ह्या शेंडया जडाय कशी सोंसता ?

## मोग करूं लिपूनसो

मिणकीं नेकेत्रां चोयतालों गो
कणकी मळ्यांत लिपूनसो
चंद्र मदल्यान वोयतालो गो
मंद मंद म्हाका हांसूनसो
भीतिविणें तरूय चोंवयेत आसलें
रातीचे वेंगेंत बसून सो
म्हाका तरी आज नवल दिसलें
मोग करूं तुजो लिपूनसो.

आतां वेळ जालो येवंक तुगेलो
दितां कान वाऱ्याक लिपूनसो
आल्या पाल्या आड पोलो म्हगेलो
मुल्यान सरीगो लजूनसो
भीतिविणें वेंगेंत घेवंयेत आसलें
रातीच्या बणांनी[1] सजूनसो
मजा न्हयगो ही, नवल दिसलें
मोग करूं तुजो लिपूनसो

किणी किणी नाद पायजणांचो
कानींक आयलो घसघसो
मिणी मिणी उगडास सानपणांतलो
मनीक मारिलो तसतसो
भीतिविणें गीत गावंयेत आसलें
ओंट तुगेलो चुंबनसो
राग नाका, म्हाका नवल दिसलें
मोग करूं तुजो लिपूनसो

१ बण : रंग

## दोन बुडबुडे

साबांवाच्या फेणाचे
उडले दोन बुडबुडे
तांतलो एक दादलो
तांतलो एक बायलो
वळख धरूंक लागले
मोगान दोगूय फुगले

खंयगो गाल कंवळे ?
खंयरे तुजे बावळे ?
वळख धरच्या नादीं
वळख मेळच्या आदीं
वेंगून धरूंक उडले
वेंगेंत दोगूय फुटले !

## हाड चेडवा बुडकुलो

हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळचांत
तुजें म्हजें उतर जालां काजच्या मळचांत

अम्रुताची धार गो आमच्या लग्नार वोतूं गो
बऱ्या वायटा रिवाजींची तकली तिणे भेतूं गो
तुजो म्हजो रोस[1] घडों अर्ध्या वळचांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळचांत

पादरी चीट वाचीना, वडील माटव रचीना
म्हज्या तुज्या बऱ्या फाल्यां सोयऱ्यां सावळी येचीना
पादरी सोयरे व्हाळून वचों, व्हाळच्या व्हाळचांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळचांत

करियमणी[2] बांदीना भांगार शिंगार घालीना
आमच्या व्होरा मुखल्यानगो रसमागाडी वेची ना
म्हजें तुजें लगीन घडूं मोगरे कळचांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळचांत

धोल घुमट नासताना, गरनाळींचो नाद ना
पेंपाऱ्यांचो साद ना, आपल्या पेल्या वाद ना
काजाराचें गायन गाजों कोगळी गळचांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळचांत

सात सात जाकिना चोवदा जातीतमूं सान्नां
सान्नांचीय पर्वा ना, सोयरें धायरें आसचें ना

१ रोस : लग्ना आदल्या दिसाचो संभ्रम.
२ करियमणी : काळो मणी; मंगलसूत्र.

आमच्या लग्ना काफये संभ्रम पाव पेळयांत[3]
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळयांत

बुडकुलो गो आयलो ना, तळ्या उदकांत लकलो ना
दस्तुऱ्यांचे पाजे मुखीं तरनो तकलो ठिकलो ना
आमच्या लग्ना आवंडो गो सुकलो गळयांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळयांत

हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळयांत
आजून तुका राकून रावलां काजच्या मळयांत

३ पेळो : माडाचे सुरेचीं २४ गोडां बांदिल्लो तळट्या चुडटांचो बांद.

# आशा

आशेनाका काळजाक मोगा, मोगाक गिरायक आसत
खरशेनाका फांत्यापारार दिसाक काळोख दिसत

आशेनाका रायदिव्याक पण्टचो ल्हान आसत
खरशेनाका तेलां वोततां हात मोवाळ लासत.

आशेनाका चंद्राक मोगा न्हवरे साबार आसत
खरशेनाका सुरवात करतां शेवटीं आशा बसत

आशेनाका सागराक मोगा व्हाळ लागीं आसत
खरशेनाका खाऱ्या ल्हारार आशा वेगीं पुसत

आशेनाका मोतयांक मोगा कल्लां साबार आसत
खरशेनाका दर्याथळांत दर्यातोंड उसत

आशेनाका उबारायेक पांयांक थारे आसत
खरशेनाका पर्वताचेर पोंदलो दोंगर हांसत

आशेनाका काळजाक मोगा, ओंठ वोगो लासत
खरशेनाका खाडकेखाला काळीज लेगून भेंसत

## मामयेचो मायामोग

माम जेदना गोटचाक वेता
अर्दो तांबयो ह्याडटा

मामी जेदना गोटचाक वेता
तांबयो भरून ह्याडटा

माम मिसता आबलेसपणान
अर्दो तांबयो गिळटा

मामी मिसता मायामोगान
आपलें इल्लें पिळटा

# एका भाताक तुप्यालागीं

हातीं आसा तेऱ्या-पोती, खंय वेताय मर्या ?
" मिठा भरणी जाल्या रिती, हाडूंक वेतां दर्या ! "
मर्यें मिठाक दर्याक गेलें
मिठा राशींत जालें ओलें
मिठांत लोळ्ळें, मिठांत मेलें
आतां ताची जाल्या माती, कोणूय भरून व्हरया

मुयलीबाय आयली वेगीं, मात्यार भाटी रिती
सांगगे बाये खंयसर वेता ? ' दोंगराक हाडूंक माती ! '
मुयलीबाय दोंगराक गेली
मातयेंत भल्ली मातयेंत न्हाली
मातयेंत लोळ्ळी, मातयेंत मेली
मातयेंत आतां कूड तिची सारून जाल्या काती !

काजूलबाब धांवत वेता, खंयरे बाबा धांव
शिमटे दोंदी माजवून येता, जळोवंक वेतां हांव
" सुर्या लागचो उजवाड भरूंक
ताचे दिवटेक शिमटी धरूंक ! "
लागता आपलीच खुशी करूंक
काजूल बाब करी जाता अळवून[1] ताचें नांव !

तूं गो जाणां तांची कथा, तरूय लालेवन येता
मोगा उतराक म्हजेलागीं काळीज भितर खाता

१ अळवप : नास जावप

उसळून फासळून चोंय दिशीं
उतरां म्हजीं सुट्टीत अशीं
अंतर्मळां करून पिशीं
तुप्यालागीं तूं गो येता, आशेन एका भाता !

## काजाराचो आदलो दीस

बोरीर पिकल्यांत बोरां । दोळयांक दिसतीत तोरां ।
काजराक आसतां वोरां रे व्हरेता । दोळयांत भरतात ल्हारां ।।

फांत्यार दारार मार । उगडटां मात गार ।
मोगाचो हो भारगे व्हकले । पालंव भुजार सार ।।

सपनांत तूं रे राय । बगलेन बसल्या राणी ।
मोगाची ही काणी रे व्हरेता । म्हजी आयक वाणी ।।

रात्रीं उशें साफ । फांत्यार दुखां कोप ।
मोगाचो हो जोव गे व्हकले । दोळयांत काजळ लेप[1] ।।

भोंवती वाढला गुडो[2] । मन भोंवता वाडो ।
मोगाचो हो खोडो गे व्हकले । आंगार न्हेस साडो ।।

दीस वेतीत वीस । वर्सां वेतीत तीस ।
काजरा आदलो दीस रे व्हरेता । मेळचो ना केदींच ।।

१ लेप : लाय
२ गुडो : दोंगर

## आदांव बापान खेल्लें कितें ?

आदांव बापान खेल्लें कितें ?
म्हाका कोणेंय सांगल्यार जातें

आपुल मोटें, नंदर केळे ?
आंबो, लिंबो, नाल्ला वळें ?

खेल्लें ताणे कितेंय आसूं
चिंतून चिंतून काळीज रडटा

खेल्लें ताणे शेंकडया आदीं
आजून म्हजी दाडी फोडटा !

# भिरांत

फांत्यापारार मरताना निशा
चोयल्याय केदीं दिव्याची आशा ?
मोगान दिवटी तेल एकमेका
खाताना काळजाक भिरांत तुका
भिरांतीन घरांतूच रावता मूं पिशा ?

सकाळीं दवांत न्हाताना कळे
मोग तांचो बाळा मोगान पळे
दवाची भिरांत दिसताय मूं तुका
शेळीची भिरांत दिसताय मूं तुका
हांसतात मोगरे कळे ते भोळे

दनपारां तळयांत मळबाचो मेळ
उदकाचे गुंडयेंत मोडांचो खेळ
पळोवंचें भागशें ना मूं तुका
वोत भाजीत म्हण भिरांत तुका
पाक्या भितरूच खळटाय वेळ !

सांजेचे पासळेंत बोकडेचीं पिलां
मोगाचे सावळेन तांकां मूं धुलां
आपयतात उले एका लेका
एकसुऱ्याक येवंक भिरांत तुका
बागेंत लेगून रडटात फुलां

रातीचे थंडायेंत आतां हांव येतां
दारवटयार तुगेल्या कानसो दितां
रडकुरो ताळो तुजो आयकत म्हाका
धीर कशें आतां मेळत तुका
दिसाचो मोग बिसव घेतां ?

## खरस

आलमारींत बूक, बुकांत कविता वाचूंक आशेलों
किरकोळी वाळय वाचून गेली, हांव खरशेलों.

झाडाचेर ताळी, ताळयेर चिकोळी माळूंक आशेलों
शेजारची चली माळून गेली, हांव खरशेलों.

रसमी आंगलें फितां न्हेसललें वेंगूंक आशेलों
न्हवरो तिगेलो वेंगून गेलो, हांव खरशेलों.

निळनिळें तळें, तळयांत ल्हारां उफेवंक आशेलों
आडसर सोण्णां उफेवन गेलीं, हांव खरशेलों.

उसवल्या वेळ, वेळेर कल्लां विंचूंक आशेलों
सांडलेलीं बाळां विंचून गेलीं, हांव खरशेलों.

काळशेलां मळब, मळबार नेकेत्रां मेजूंक आशेलों
म्हवाली पोर मेजून गेलो, हांव खरशेलों.

जिणयेचीं नवलां, गुमपटीं सवलां समजूंक आशेलों
दुबळीं अबळीं समजूंक सकलीं, हांव खरशेलों.

## नातालांची भेट

हांव तितलो सिरिवंत न्हय भांगार शिंगार नेटोवंक
हांव तितलो पुणेंवंत न्हय धुंपा धुंवर पेटोवंक
हांव तितलो भागेवंत न्हय रगताबळां भेटोवंक
हांव तितलो बुद्दीवंत न्हय नेकेत्रमाळा आटोवंक

हांगा आमी रुता केल्यात सोभागेच्यो वोळी
रंगा रंगाळ गुलाबांच्यो, तांतूं सादी भोळी
तरणी ताळी, तरणो बोंगो[1] मेळून कांटें पानां
वर्णीनासतां मोन्यान गुंतूंक उरबेताती मनां

हांस भागी नातलां वेळीं कायदो मोगान पाळूं
हांस मोगा कोंकण बाळे, तरणो बोंगो माळूं

---

१ बोंगो : कळो

# उमो

पुनवेच्या चांदण्यांत चाबकांच्यो सावळचो चोयल्यात केदीं
केसांच्यो राशी पिसुडटात जश्यो उगोवंच्या आदीं
एकमेकां पासांत फुसपुशी उमे घोसांनी उट्टात
देखताना आशेन काळजाचे फाटीर घामाळीं फुट्टात
चाबकांचे सावळेंत घसघशीत उमे दीजाय आसलें
व्हडांचे बुद्दीनी पोसवल्ल्या काळजाक भंयशें दिसलें

दुलबी[1] फांत्यार दोंगरांचीं थानां चोयल्यांत तुवें ?
आंकुडच्या दवांत आंकुडचे आशेन चोयल्यांत हांवें !
थंडेल्ल्या मळबाचे उबेल्ले पोले रोमतात अशे
बाळशाच्या कुल्यार आवयचे पोले दामतात तशे
चोयिल्ल्या हांवें थंडगार उमे दीजाय आसलें
दोळ्यांचे दिश्टीक दिसाना तसलें भयशें दिसलें.

तरनाटे सांजेर दर्याचे वेळेर चोयलांय बाळा
मोगाचे बावळे मोगाच्या गळ्याक घालताना माळा
ल्हारांचे दांबणेंत वेळेचीं मुखां घांसताना भेंसतात
शिवरिल्लीं रगतां रेंवेंनी मोळोन गालपुटां पोसतात
झेंजारी[2] मोगा झेंजारी उमे दीजाय आसलें
मोगाची हिंसा देकताना तेदना भंयशें दिसलें

मात्याच्या कोनशा उम्यांची आशा आजूनय धोसता
म्हाताऱ्यो दाडयो झडतीत म्हणुन भंयशें दिसता.

---

१ दुलबी : नाजूक; कवळें
२ झेंजारी : कात घसटून जाल्ले घाय

# सर्गावयली पिरंगण

ज्यून जून जातासरी
पावस नातलो पोरूं
फातर जावन गेल्ल्यो झरी
तानेतालें गोरूं

भुरग्या बाळाचेंय रडणें
सर्गाक करी विरार
दिवळांत आसलें सदां मागणें
खंती तोंडार रजार

मागीर मुंगा पावस आयलो
पयस जालीं खर्गीं
रैतान रोकडो रोंपो रोयलो
सर्गीं देवाक अर्गीं

देवा ! तुजो हात पोटार
तृप्ते हांसो, नाका
धेंक खेळटा तुज्या वोंटार
आयकतालो म्हाका

ज्यून कांद्यांत आसतास्तना
अंदू पावस आयलो
देव आशेन तिळतास्तना
दिवळांत कोणूय नातलो !

मागणेय ना, रजार ना
खंयच्या नराक वर्गाता ?
अर्गीय ना, कांतार ना
देव सर्गार कर्गाता !

धरणीर हेणें पावसा व्हाळो
आपता लिपता सुर्यो
मनीस जाला पाकीसाळो[1]
देवा तोंडार मिरयो

वेळार पावस धाडलो पळे
आयकाता खंय तुका
मनीस जात तशीच पळे
जायजे, जायजे तुका !

१ पाकीसाळो : सोरपांक, जिवदाळींक धरून खावपी तांबशा रगा सवण.

## वंय

बाग हांव बांदतलोंगो रोंपो चांफो लायतलों
लग्ना दिसा दिल्ली भास आज पोंताक पायतलों

जनेलाचे सांदीर तूं भिसळे केंस मानेर
मान उगती, केंस उगते जायेजुये तानेर
जाय जूय लायतलोंगो, उगती सोभाय चोयतोलों
लग्ना दिसा दिल्ली भास आज पोंताक पायतलों

वोळी वोळी मळून जाल्यो वोत–रात सोसून
वोत–रात मेलीं मात, आशा उरली पोसून
आशा मतीं धरतलोंगो, चंद्राक बागीं लायतलों
लग्ना दिसा दिल्ली भास आज पोंताक पायतलों

रोंपो लायलो, चांफो लायलो, जाय लायली प्रीतीन
सुर्यो लिपलो चंदीर आयलो अर्दे रात्रीं जितीन
घाम काडलो कष्ट केलो – जनेलार आतां वयतलों
लग्ना दिसा दिल्ली भास आज पोंताक पायतलों

उगती मान चंचल भान जनेलारी उबें तूं
दोडटा आंग मोडटा पांग ओंट पिशे जाले मूं
उगताडाय राकता म्हाका लज कित्याक पावतलों
लग्ना दिसा दिल्ली भास आज पोंताक पायतलों

रात उबली दिवस धांवले उगते उडते बागींत
पात फुल्ली, शिवत्यान धल्लें गुलाबाक वेंगींत
आज पात तोडटलोंगो उगत्या केंसांत माळटलों
लग्ना दिसा दिल्ली भास आज तरी पाळटलों

उगताडाय लुटली ह्ावें उगतें आसलें चुमून
मस्ती रात मोटवी जाली आंगा वेंगींत दामून
फांत्यार दगो जनेलार वोगो दीश्ट कसली चोयतलों
लग्ना दिसा दिल्ली भास पोंताक कशी पायतलों ?

तरनें झाड आडपाड चंद्रीम न्हिदेंत आसलला
माकड मस्तो रिगला बागींत देंवचारानूच पोसलला
ओंटान काल मळ्ळें जैसें तैसें बाग मळटालो
लग्ना दिसा दिल्ली भास कोण पोंताक पायतलो ?

कोडशीं दुकां गळय आत्म्या संवसाराक कळूंदी
कोडसाण आयची वीक जाल्या माकडा सहीत जळूंदी
रडून रडून चंद्रिमाची वाट हांव लायतलों
लग्ना दिसा दिल्ली भास वाटेक जरी पायतलों.

पयलें बाळ किरण पडलें वोगें मन जागेलें
वाऱ्यार बसलें सर्गार चडलें बाळे कोणे भोगेलें ?
बाग हांव लायतलोंगो वंय भोंवतीं लायतलों
लग्ना दिसा दिल्ली भास आज पोंताक पायतलों.

वंय बांदली बागे भोंवतीं, कांटेखुंटे साणशिले
सांजेन धरणीक चिवंचे पयलीं हात-पाये दणशिले
झाडां लायलीं घाणेऱ्याचीं बावले बागीक राकतलों
लग्ना दिसा दिल्ली भास आज तरी देकतलों.

नशिबाच्या गुपत्या उम्या तुजी कसली काणी रे
उदक सारें झाडांक दिल्लें वंय खावन राणी रे
बाग पडटा वंय वाडटा आनी कोणाक राकतलों ?
लग्ना भास पाळून केदना मनात खोशी पावतलों ?

# उजो

काळकांत वोली आंकुडटाना
चंद्राचे लेगीत दांत झडटाना
काळजांत कसो पेट्टा उजो
तुज्या मोगाचो !

पावसांत गुलाब शिरशिरताना
कांटो फुलाक वेंग मारताना
काळजांत कसो उड्टा उजो
तुज्या मोगाचो !

पाकळी मस्तिली तरन्या फुलाची
तांबसाण वाडली गोऱ्या गालाची
ते तांबसाणेंतल्यान पेटलो उजो
तुज्या मोगाचो !

सिल्काची साडी न्हेसून वेताली
तलकापरी तूं चलून वेताली
सांगात जालो तुज्या पालवाचो
म्हज्या गालाचो !

आदीं कळ्ळें ना, कळाना आतां
गालार घांसताना सिल्काचीं सुतां
काळजांत कसो उड्टा उजो
तुज्या मोगाचो !

## कोडियाळच्या[1] बशींनी

हांव जेन्ना
कोडियाळच्या बशींनी चडटां
म्हज्या भुरग्यांची
म्हज्या बाळांची
म्हज्या बायलांची–
सगळयांची आशा सोडटां.

' वेगीं वेगीं वेगीं–
तूं खंय सर्गाक पळेतायगे ?
चड, मुकल्यान चड.
पाचव्या खोमसाचो
फाटल्यान चड.
पिंजिल्ले लुंगियेचो,
तूं कोणाक पळेतायगा ?
मुकल्यान चड.
वेगीं वेगीं वेगीं–
लोंकाड धर, लोंकाड धर.
जायना जाल्यार
पेल्यान सर.
नातल्यार मर.
रेट् ![2]

हीं उतरां पालकाचीं
सारकी कानांत रिगच्या आदीं

१ कोडियाळ : मंगळूर शाराचें आनयेक नांव
२ रेट : बस चालू करूंक कंडक्टरान दिवंची सिनोल

बस पावली
पिलिकुमेरचे झिरयेलागीं
बरफाची शिर म्हज्या उंडांत
काळजाचो कपो म्हज्या तोंडांत !

‘ फाटीं, फाटीं, फाटीं वचा–
थंय माटव घालूं येता
जिबली खेळूं येता
रांदन उबारयेता
कायल दवरूं येता
पानपाळे भाजूं येता
फाटीं, फाटीं, फाटीं वचा–
आनी फाटीं वचून
सरळाक घसटून
सरलां उसळटाना–
‘ मुखार, मुखार, मुखार वचा–
तुका कितें लज दिसता ?
बायलां तोंड देकुंकूच ना ?
लागलें तर खोंवळ झडटा ?
मुखार, फाटीं, मुखार फाटीं ’
हीं गाडवां, गोरवां या काटी[३] ?
मुखल्यांक फाटलीं,
फाटल्यांक मुखलीं
आदळून, चेंचून, झेंजरून पिकलीं.

३ काटी : रानटी गाय

कुल्याचो कुटो
हाडांचो पिटो
फाटीं खाडकी
दांत हलकंदून
फुसफुसून गेले
काळंगांच्या बियांपरीं !

फाटल्यान आनी एक गाडी येता
आनी जशी हाची पाडी पाडचाक येता
' रेट ' म्हण बोबाट मारता–
' कोंपेटिशन ' म्हण फुसफुसताना
कोणाचें भुरगें बसके पोंदा
कोणाचो घोव कोणाच्या उसक्यार
नाल्ल, केळीं, गोड आनी फोव
कालयिल्ल्या भाशेन !

रावणी आयली, वाऱ्यापरीं
खदवळटात पोटांत पेरी–
" वेगीं, वेगीं, वेगीं,
न्हिदिल्ल्यात ? सपनेतल्यात ?
केळीं खाताल्यात ?
उमे दिताल्यात ?
वेगीं, वेगीं, वेगीं–
रेट ! "

राव बाबा, म्हजी दावी व्हाण
कोणाच्या तरी मिरयांत उल्ल्या
उजवी व्हाण नशीब फुटून

काजाराचे आशेचीं
पानां खुंटच्या आदीं
विधुर जाल्या
‘ रेट ’–
बस खरशेली, घुरकेली, उसळ्ळी
म्हजे कुशीन पिरायवंत एकली रडटा :
‘ म्हजी बायल, म्हातारी
बशीर उल्ल्या ! ’

बस कांपता म्हातारेचे खाडकेपरीं.
फाटले बशीन
कोंपेटिशनाची आशा सोडल्या.
आतां जीव वेंची सोस लागल्या–
चालक, पालक आनी मालकाचे पूत
च्या पिवपाक गेले !

कित्या इतलोय वेळ,
कोणाचो करतात गोळ ?
आफिसाक वगत जाता
पोटार पांय येता
गाळी मारूंक
तिनूच कुडक्यांच्यो
हड्ड्यांत दुवाळो भरून येता.

ना, आयसा कुडको उंडापोंदा
मालकाचो पूत एकलो
लागीं येता :
“ व्हयगा, तुका कितें जाता ?

वेळ जाल्यार विमानार वच.
टॅक्सी कर, देंव, फूट, निकळ ! "
ताचें वागोळचा तेदें हट्टें
आनी भांगराचो दात पळेवन
हांव गार.
" रेट "
उल्लेले पुराय हांसतात.
हिजड्यांपरीं.

हांव जेदना
कोडियाळच्या बशींनी चडटां
म्हज्या भुरग्यांची,
म्हज्या बाळांची,
म्हज्या बायलांची–
सगळचांची आशा सोडटां !

## चार चोवगां मान ना

कलवंताच्या पेंकटावेरी भांगाराचें नेवाळें
नाका नोतीं गळ्यां आसत सुवर्णाचें घोसाळें
तरी बाबा आयकात म्हाका
संवसाराक हाचें भान ना
चार चोवगां मान ना

गरिबाच्या गुमटावेरी सोभाग्‍येचो साद मू
तळव्यांताल पांयांनाच संगीताचो साद मू
तरी बाबा आयकात म्हाका
आयकतल्यां कान ना
चार चोवगां मान ना

मळ्यांतुल्या तळ्यांतिरीं कारेण्याची[1] रास मू
वासा ताच्या रोसा ताच्या जायत्यो व्याधी नास मू
तरी बाबा आयकात म्हाका
कोणाक ताचें ध्यान ना
चार चोवगां मान ना

दोंगरावेल्या झऱ्यावेरी अम्रुताची धार मू
गोडा मिठा लवणांची आसा तांतू थार मू
तरी बाबा आयकात म्हाका
कोणाक ताची तान ना
चार चोवगां मान ना

१ कारेणो : परमळीक पानांचें झाड. ह्या पानांची चटणी करतात.

कोंकणीचो कवी हांव जातात म्हजीं सोभाणां
भरच्या आदीं करीत आसात मड्यावरी रुदानां
तरी बाबा आयकात म्हाका
जेवणाक केदीं पान ना
चार चोवगां मान ना.

## संवसाराच्या मात्यार

दोंगरा मात्यार तरण्या तणांत
एकदां बसून आसतां
चंचल चितप चारांय कुशीं
चिरून मारून घुसतां
संवसाराची देकली मरती
जिवाळ परवा नासतां

जालों पिसो सुर्यान जेन्ना
पडला[1] होडें सोडलें
सांजे वारें लजेन बुडून
ताळयां मधें मोडलें
कुंकडा जोडें मोगान भरून
दिश्टी फुडें जोडलें

तणा भरो मात्यार घेवुन
म्हारडें एकलें चल्लें
वोंटयेंत बसून बाळान ताच्या
स्तनांक मुख घासलें
तेन्ना घोटयांत माय सवणें
उमेदीत घुसलें

मत तेन्नां जावन पिशी
उगत्या वाऱ्यार भोंवली
संवसाराच्या मात्यावयल्या
बंगल्या खोंपांक धांवली
जिवाळेचें जिवित घेवन
कळोवंक परत पावली

---

१. पडला : अस्तंत

लागींच दिसली आवय एकली
   प्रसूत जाली बाळा
मेरो नासल्यो गडी नासल्यो
   संतोसाच्या व्हाळा
मरणा–घांटी व्हाजल्या तेन्नाच
   एकलो पावलो थळा

शेतां मेरीं एका घरीं
   पिवपाक नीस नासलो
दुसऱ्या घरीं जेवणा मेजार
   पोसण्या भरो कुसलो
संवसाराच्या मात्यार देवा
   अवतार तरी कसलो !

रडणें, कडणें, पडणें, दोडणें
   सोसतल्याचें सोसणें
कडसरांवच्या कडशांचेरी
   केदोळ पर्यां चडणें
पडतल्याचें पडणें आनी
   उडतल्याचें उडणें ?

आसा हाका वाट, अतमो
   उमाळ्यांनी भरलो
आसा वाट, आसा वाट
   जिबेर उपाव चरलो–
परवो तरी कोणाक कित्याक
   उपाव ताळ्यांत उरलो !

काळोखांतल्यान मरण म्हजें
  चरून जरूय आयलें
उस्वासांक धरून बांधून
  कुपां पाटल्यान पायलें
काळीज तरुय दितों हांकां
  जरूय म्हाका तांकलें

म्हजो उपाव म्हजेच लागीं
  म्हजोच जालो नियाळ
एकमेका मोगान जिता
  धारूण आनी मोवाळ
संवसाराच्या मात्यार मुंगा
  आसा पर्याँ जिवाळ

## चड होड्यार म्हज्या

फांत्यापारार सूर्या संगी
   होडें हावें सोडलें
जेदवां किर्णान तशे आशेन
   म्हज्या जैल फोडलें
पडलांत पालवूंक, दर्यांत दुष्टूंक
   फुटून फासळूंक, फासळून जळूंक
धांवलीं– धांवतां धांवतां रावलीं
   तूं आयलेंय म्हाका मेळूंक

ए, चड होडचार म्हज्या
   हें होडें थंयसर वेता
जंय नदी दर्याक मेळटा
   जंय दीस धरणींत रोमता

ल्हारां घाली गोरज
   आनी काळजांत उट्टी ल्हारां
वारें उटयत वादळ
   तरी उगतीं दवर दारां
मेळूं आशा, उमेद आमची
   जावंदी खुशेन पाशार
जळों मोग तुजो म्हजो
   धैरान जावंया काबार

ए, चड होडचार म्हज्या
   हें होडें थंयसर वेता
जंय नदी दर्याक मेळटा
   जंय दीस धरणींत रोमता

## दर्याक उजो पेटला

सुशेगाच्या आमच्या गांवांत
आज आकांत सुटला
काळजाक घाम फुटला
एकूच बोबाळ उटला
दर्याक उजो पेटला !

दोतोर सायब, वकील सायब
मंत्री सायब, तंत्री सायब,
पादरी सायब, बीप सायब,
मार्किटांतलो मटन सायब
थर्थऱ्यांनी आटला

मादरीबाय, व्हडली बाय,
आफिसांतली आपुट बाय,
मुकरीबाय, मेस्तिर्ण बाय,
आड पडला तांचो पांय
पेंकटा नाडो तुटला

आकांताक वोडको ना
पेंकटार ताच्या कुडको ना
गांवचो सुशेग लुटला
आज आकांत उटला
एकूच बोबाळ उटला
दर्याक उजो पेटला !

० ० ०

हांवगा कोण, कडचें मेण
गांवांक सांगूक भियावीण

जळटा जीण करतीत म्हण
सायब—सायबीण राग शीण
रगता शेळेर आटला

दर्याक उजो पेटानांगा
सांगूक उतर सुटानांगा,
तरूय तांच्या आगट्याफुडें
म्हजो धुंवर उटानांगा

देकून मोणको घोटला
राजांव पेल्यान लोटला
आत्मो पिरंगत सुटला
दर्याक उजो पेटला !

सोसचें पुन्यान पुरें सोसलां
आतां दर्यावेळेर बसलां
शिंतिद तासलां सैराण लासलां
मनांत मेकळें चिंतप पोसलां
वोखदा उंडो वाटला

रडून रडून रडून रडून
दोळ्यांतुलीं दुखां तांडून
दर्या मात्यार वोततां वोततां
दर्या उजो पालोवंक सोदतां
सायबा बाबा, सायबीण माना
म्हणूं नाका मना मना

फिरंकिस आमकां भेटला
दुबाव तुमकां उटला
काळजाक घाम फुटला
दर्याक उजो पेटला ?

## जल्म

धनयाचे माळयेथावन मारूत आमगेर वोळ्ळा
फांत्यावेळीं बंजर बोंग्यार हांसो पिसो खेळ्ळा
कोंब्यांनो केंकारा, शंख्यांनो फांकारा
हिसोब नासल्या हिसबाक आतां हिसोब नवो मेळ्ळा

माना-धना झेले खंयगा, शिपाय तुजे भाले
विणगी-उगती कूड ती कशी ? धनयांगेले शेले
नांतवे मेस्त्रीगेर तुज्या – रितो आयलाय बाळा म्हज्या
माना–धना झेले थंय ? शिपायां खातीर भाले थंय ?

निरास नाका उघड दोळे सैमा सोभाय पळे
रानां, वनां, खडपां, झिरयो, बिशेव दिवंचे मळे
हांगा हांशांक फुलां फुलतीत ! रडण्यांक मळबां रडटीत
श्री ताची जाल्या तुजी मेळून उबे–उज्या गुळे

## काळजांत दवर

ना एक फुल, ना एक फुल
   उडंव म्हज्या फोंडार
दुखां गेरे, चिंतनां चारे
   नाका हाडूं तोंडार
वाती कित्याक, वाजपां कित्याक ?
   कित्याक भांगरा पेटो ?
बोंदेर कित्याक, बादपां कित्याक ?
   कित्याक लोका खेटो
मातयेकूड मातयेक वचूं
   दांब मातये चेपणें
मळून उतरां–उगडास म्हजो
   काळजांत दवर रुपणें

गेलों मातयेक आतां कित्याक
   दुखान माती भिजंव ?
खाली करून काळीज तुजें
   कित्याक दुखान शिजंव ?
सुरू केल्लें गोडशें गाणें
   उदकांत सोडल्यो धलत्यो पाती
कर आखेर, सरय फुडें
   तुकाय राकता माती
सांग पाटल्यांक फुडें सरूंक
   पडटचे तुजेर धांपणें
सांग उतरों– उगडास म्हजो
   काळजांत दवरूंक रुपणें

# पिंपळा पानां

वेळा काळा आदीं थावन
पिंपळा पान कांपता
कोणूय घेना मना लावन
तितल्यार काणी संपता
गोंयांत मात पावलों तसो
मतींत चिंतप रोमता
पिंपळा पालो कांपता कसो
काळजाक बरें गोमता

कोणी म्हण पाना पानार
कृष्णदेव नाचता
लोणी खायऱ्या, वेणू फुंकऱ्याक
नाच कसो सुचता ?
हांवूय खातां लाय लोणी
वेणूय फुंकचो आसता
हांवूय गायतां गुणुगुणी
नाचप केदीं नासता

गोंयांत एका गांवांत म्हाका
पिंपळा काटें दिसता
कृष्ण देव पाना पानार
मस्तिकायेन नाचता
नाचता कित्याक ताळयेन ताळी
मतीक आतां घासता
पिंपळा बगलेन ताचें कारण
सोन्या बार दिसता !

## खंय पुरला कवीक ?

ह्या उबार– थपकट फोंडांमधें
थंड मर्णा कोंडांमधें
ह्या जीव नासल्या मुंडांमधें
सांग, खंय पुरला कवीक ?

ह्या कांटे–फातरां बांदपां सकला
मोटया पोटा गुरकार निदला
हे कुशीन धनेस्त वयज कुसला
पूण, खंय पुरला कवीक ?

चोय वकिलाचें बोंदर उबता
वोतांत आरबी[1] खुरीस सोबता
हाय धगींत हाडां तापता
तरी, खंय पुरला कवीक ?

त्या व्यापाऱ्याचे बायलेक वेगळी
पुरून गुंतल्यात रुप्या सांखळी
त्याय वयल्यान फुलां–पाकळी
हाय, खंय घाला कवीक ?

थंय, सगळयां जीव वांचून मेलो
कर्मा–भरो मातयेंत गेलो
तांचेर कित्याक वोडतात पालो ?
आनी खंय व्हेला कवीक ?

जेदवां संध्या मारुत हळू वोळ्ळो
कोनशार सुखो चिवो धल्लो
थंय काव्यजोश मातयेक भुल्लो
हां, हांगा पुरला कवीक.

१ आरबी : आरबी खाडयेक वचून आयिल्ल्याचो खुरीस

## भोग

मुसान तुका फुलांत देकलो
फुलान मुसा वोंटांत
पाकळेक वोंट लागतां लागतां
कातर पडली देंटांत

कातरीक मात तुजी गोडसाण
कशी, कित्याक कळ्ळीना
चिंतून बसता वोरां वोरां
जाप केदींच मेळ्ळीना !

## दाक्षेणेचो[1] मुदो

वादळाचे मर्जेबरी गरजो तुज्यो कुस्त्यो घाली
म्हजे तांकी तेंबेटेचेर सदांनीत मारी धोली
दितां दितां गळ्ळचो साली, दीवन दीवन कुट्टें खाली

दीना तर देखता खंतीन तुजो दोळो कोंग्या येदो
गळतां मोगा एकेच दिष्टीन हांव गो दाक्षेणेचो मुदो !

आंकुडटाना देखलें तुका नागडचा दोवांत झाडां भरशीं
कुडीवयलें वोडलें चामडें मोगान वेलें तुजेसरशीं
सादें आंगलें पुणुय करशी, हिवाचे पुणुय दीस सारशी

बदलाक तुवें गुमट केलें, नाचून पिटो केलो गादो
चितून कंगाल हांव गो सादो, हांव दाक्षेणेचो मुदो

रगत दिलें दान तुका, तुवें कपलाक तिळे पुसले
हाडां दिल्लीं हुलपावन तुवें पिटो करून दांत घासले
केस म्हजे चेप्यार तुज्या, पाखां भाशेन सजून बसले

आजून देखता दोळो तुजो, दोळो येदो कोंग्या तेदो
कितें दिवंचें म्हणून रडटां, हांव गो दाक्षेणेचो मुदो

१ दाक्षेण=मोवसाण

# बांयलागचे चलयेक

बांयलागीं चली उबी
हातीं राजू ना
बांयत पुणूय देंवून आयली ?
कापड भिजूं ना

उदक वोडूंक आयली म्हळ्यार
हातीं कळसो ना !
कळसो, राजू हांवें दिलो
लजून पळशी ना ?

## येया आनी गाया

येगे, गुगी मळचांतले
येगे, माणके बिळांतले
म्हजेलागीं येया

गांवच्याक तुमकां कळना
उतर जिबेर मेळना
आयकून अजाप जाया

फांत्याफुडच्या दंवाचो
एक थेंबो म्होंवाचो
म्हजे लागचो घेया

एक थेंबो दुदाचो
गोडशा म्हज्या पदांचो
ताच्या संगीं खाया

मागीर गळे लांबोवन
पोरणी आशा थांबोवन
कोगळेवरी गाया !

## क्रिस्तांव

तेणें आवय रडटा :
‘ लांवच्याक ना, मरतां हांव ’
हेणें बापय म्हणटा :
‘ दिवंच्याक ना, झरतां हांव ’
मदें भुरगें दोडटा :
‘ खांवच्याक ना, सरतां हांव ’

क्रिस्तांव हातीं वाती घेता,
बाविल्लीं चार फुलां घेता,
आनी वाटभर म्हणत वेता
‘ बेगीन मरा, पुरतां हांव !

## बाळाचो हांसो

बाळा म्हज्या, तोंडार तुज्या हांसो कसो आयलो ?
गुलाबांतलो, चंद्रिमांतलो– हे पृथ्वे भायलो ?

गुलाब धरुन, पाकळयो सांवरुन पोटांत हांवें चोयलें
हांसो तुजो नासलो थंय धांपण काडतच वयलें !

चाळुन चोयलि, गाळुन पोयलि चंद्रमांतलि वर्णां
नासलें कांय वेगळें थंय – भाडयाचीं दोन किरणां !

पृथ्वे भायर, मळबा वयर मालिल हांवें उडि
पोसो लेगुन हांसो नासुन आसल्यो घाडि–नाडि !

चित्तां, चित्तां येता माता, दिश्टिन देकलें एका
तुजो हांसो तिचो बाळा हासोन फटय नाका.

# कष्टकाळ

तान लागली म्हणांय बाळे, हातीर धार वोतली
धना सारक्या पाण्याशेळे सोंडी तुवें धुतली

भूक लागली म्हणांय बाळे धानी दिली दान
चूक केली काळीज जळे कुंकडांक दिलेंय खाण

गाणें आयकूंक मन केलेंय पिल्लूक मोगान वाजली
तेणे चली बाजारांतली ताळ्याक तिच्या नाचली

कवन केलें गगन चाळून देवाक लेगीत नाडलो
जिवीत केलें पाड तुवें नातलां—निरोप धाडलो

पिड्डेर केलीय दिश्ट म्हणून दोळो दान दिलो
नाडचार गुंतून नग केलोय गळो सुरंगार केलो

केंसां रास कापून दिली आंग पुसूंक सोदलें
उशांत घालून केंस म्हजे सुशेगाद न्हिदलें

पिडेंत पडलें रगत दिलें आंगपांग लुवलें
बोडयेन काडून रगत म्हजें वोंटांक पुसून भोंवलें

पांय थोंटो जालो देकून हाड म्हजें मोडलें
सायसुधां मान नासतां रांदनी परल खोडलें

दुकोळ आयलो भुकेजाळांक कापून दिलें मास
पोकळ मनान केलोय तुवें सुण्या माजरा ग्रास

काडली कात निमाणें हें वस्तुराचें दान
धोल गुमट केलेंय तुवें नाचलें रभसान

सारयेर कूड लायली म्हजी उज्यान वेगीं जळ्ळें
सारी जळून गोबोर जातां सुणें ताचेर लोळ्ळें

दारा सामकार लायलां तुवें गुलाबाचें झाड
मुळा गोबोर नासतां बाळे जालां आडपाड

जनेलांतल्यान चोयली सारी मुटी गोबोर वेलो
मना मना खुशी जालों, गुलाब छान जालो

धन्य धन्य आज तरी हांसून मात्याक माळ
तोवूय दिलो देवाक तुवें जाले कष्ट काळ

## आडकुलो गो बुडकुलो

आडकुलो गो बुडकुलो
तेला तुपाचो
बायेगेर बाब जाला
फिरंगी रुपाचो,
कसो ? कसो ? कसो ?

पियाव पुल्ल्यार
पियाव जाता
बटाट रोयल्यार
बटाट जाता
भावोजी जर
आमचो जाल्यार
बायेक कसो
फिरंगी जाता ?
कसो ? कसो ? कसो ?

आडकुलो गो बुडकुलो
तेला तुपाचो
बायेगेर बाब जाला
फिरंगी रुपाचो,
कसो ? कसो ? कसो ?

# आजूच तशें

आवयस मावशे, आज आयली ?
तुज्याखातीर तवशीण लायली
हरशीं जाल्यार उटा उटीं
बोबळीं दुधयां धाटींमोटीं
वायंगीं, तेंडलीं, भाजये सोपां
कासुळेचीं पिटशीं कापां
मावशे तुका रांदून दितों
तुजे खोशयेंत धादोस जातों
पुण गे सांगूंक लजशी दिसता :
हरशीं पोरसांत जायतें आसता
फाटीक म्हज्या सैतान लागला
आजूच हितलांत कोलो रिगला !

आवयस मित्रा, उंबरार उबो
खंती म्हज्यो जाल्यो गाबो
हरशीं जाल्यार कोंबी मारतों
काजचो सोरो ताळच्यांत भरतों
बायलेक सतावन सान्नां करतों
तुजे सेवेंत अर्धो झरतों
काफी, दुधां, बियर, फेन्नी
कितें म्हणचें म्हजी सनी
तोंड सोडूंक लजशी दिसता
हरशीं दुडू खूबसो आसता
कोणी म्हज्या मात्यार रडला
आजूच बोलसाक बुराक पडला !

आवयस म्हज्या काळजा गोंड्या
आजूच आयलेंय मोगा उंड्या ?
हरशीं जाल्यार वेंगींत वोडतों
तोंडार तुज्या चित्रां काडतों
उबाळ उमे पोल्यार जोडतों
गालांवयलीं भिरंडां फोडतों !
आजगो बाये लजशी दिसता
हरशीं खाडकी साफसूफ आसता
तोंडार म्हज्या सोरवो वाडला
आजूच म्हजो वाकोर मोडला !

## म्हजे पिल्लुकेच्या सादा

घडटा कितें आयकगे भुंये आयकगा वयल्या खुदा
म्हजे पिल्लुकेच्या सादा, ओ म्हजे पिल्लुकेच्या सादा

तकलेच्योय फोडाफोडी, कुडी-अतम्या वोडावोडी
खिणा भितर शमन जावो कसलीय क्षुधा बाधा
म्हजे पिल्लुकेच्या सादा....

सैरिकांची जुळाजुळी, मोगा नात्यां वोळावोळी
सोभागेचें लगीन जुळों पारव्या आनी गीधा
म्हजे पिल्लुकेच्या सादा....

कांटो फूल मोगांत मेळो, पाषाण लोणी वेंगेंत गळो
वाग सोंसो तणांत लागो मस्ती आनी मदा
म्हजे पिल्लुकेच्या सादा....

पायां पोंदली भूंय माता देवालागीं एक जाता
कसाप्याच्याय काळजांत खेळो कृष्णु आनी राधा
म्हजे पिल्लुकेच्या सादा....

आमी बावडीं कोंकणी वाळां शिंपल्यां तरी चोंय मळा
नेत्रावती जुवारिचो मोग घडो सदा
म्हजे पिल्लुकेच्या सादा....

## पोपायो

एके पोपायेंत
   शेंबर बियो
सगळचो जरुय किल्लल्यो
   देकता तिगा मात्याक लागो
पोपायोच पोपायो
गालांक लागो वोटांक लागो
   पोपायोच पोपायो

तशीं म्हज्या फळत्या मनीं
   रास रास जलमातात
कवितेच्यो बाळ बियो
   खिणा खिणा उबजातात
सगळचो जरूय किल्लल्यो
   अचर्यंच घडटलें
आंगपांग पेट्टलें
   फिरंगी पिशें सुट्टलें
अंतरळाच्या शिरांशिरां
   शिमटी नेकेत्र झडटलें
पोनें गुमट फुट्टलें
   नाचपीण आंग मोडटलें
पायांतुलें पांयजण
   कसकसून तुट्टलें
मस्तें मस्तक आट्टलें
   आळशी रगत कडटलें
मांडवीच्या ल्हारांचेर
   मस्तें वादळ उडटलें.

उतर ताळ्याक भेट्टलें
मोवाळ उल्यांक वोडटलें
कवितेच्या आंब्या रसान
सगळें गोंय बुडटलें !

एके पोपायेंत
शेंबर बियो
सगळ्चो जरूय किल्लल्यो
देकता तिंगा मात्याक लागो
पोपायोच पोपायो
गालांक लागो वोंटांक लागो
पोपायोच पोपायो !

## इजाबेलाच्या घोवागेर

इजाबेलाच्या घोवागेर
व्हावतात दुधा झरीगो
पिवून पिवून इजाबेलाच्यो
फुगून आयल्यो पेरीगो

इजाबेलाच्या घोवागेर
तोवशिणीचें दालेंगो
खावून खावून इजाबेलाचें
पोट उबार जालेंगो

इजाबेलाचो भरतारगा
उतरांक जोडी मेळायमू
पोट पळेवन गाल मोळून
आपली मिशी वोळायमू

आगा म्हज्या भरतारा
नाका तुजें दरभारमू
तुजें न्हंयगा दातारा
दुधा तोवशा कारभारमू

उतरा उल्याक आयकाना
इजाबेलगो बावोलें
पणजेंतुल्या सायबाच्याय
पायांलागीं पावोलें

सायबा भोगोस सावेरा
मर्याद म्हजी उरय तूं
देवागेलें अजाप करून
पोट म्हजें जिरय तूं.

## रांदलें रांदप

रांदलें रांदप चितल्याबरी पानार पावाना
नांगा ना ना, नांगा ना ना

रात म्हणा मेणालागीं वात जळटाना
रातय आसा वातय आसा तूंच मुंगोना

लेवंटचा नाकाक आदींच कशी गजाल कळ्ळीना
जाय लेगून बावली जाल्यार परमळ दिवंचीना

उमाळचांचो काट जिरून दूख गळटाना
गळयिल्लें दूख दोळो परत घेवंचोना

तानेक म्हण निरवोग नासतां दर्याक उडटाना
दर्या ताची तान भागय तुजी भागचीना

सायबिणिच्या मोगान वाटलेक पावली घालताना
मोगय गेलो पावलीय गेली परत येवंचीना

## काळजाक वेची वाट

काळजाक वचूंक पोटांतल्यान वाट कांय मेळाना आड
मोग म्हगेलो आसल्यारूय तुका बशी भरून वाड

म्हज्या केसांनी बोटां चरयशी पोटांत जळतासतानां
उजो निवाना मोगाक पावाना उम्यांवेंगेची धाड

शिवतीं आबोलीं सदां फुलतलीं उगडास वेतासताना
म्हाका दिनाका मेल्ल्यांच्या फोंडार झेले सोडोवन काड

दर्या वेळेरी कल्लां न कुल्ल्यो पायां लागतासताना
कल्लां सोडुनी थैली भरूनी कुल्ल्यो घरांत हाड

हळडीचे खोले परमळा उल्यान आंतां फुलयताना
पुरणा पातोळी घरांत करताना म्हाका सांगोन धाड

धाकटुल्या आळवान माणकुलो मोग संसराक शिकयताना
पत्राडे[1] जाले मेळ्ळें सांगाता तायकुळ्याचें झाड

१. पत्राडे : आळवा खोल्यांचो पोळी.

## रात रात रडलां

रात रात रडलां आकांतांत पडलां
मळबावेलें नेकेत्र म्हजें खंयसर तरूय झडलां

अगो अगो चलये उशा गोडा बेलये
सांग म्हज्या फुडाराचें पोवळें तुवें काडलां ?

काळिज नितळ आसलें पाप पातक नासलें
सांग तुज्या तोंडार तुवें वोरल कित्याक वोडलां ?

अशें कशें जालें चोरलें म्हजें फालें
सांग म्हज्या नशिबाचें मडकें कित्याक फोडलां ?

चुकून म्हाका कळ्ळां खरेंच तुका मेळ्ळां
सांग म्हज्या दोळयांक लिपोवंक गुक्क गिळून सोडलां ?

सांग नातल्यार चलये दुलोब आंकवार कळये
सांग म्हाका आपशें तुजें पोट कशें वाडलां ?

## आबोल्याचो रंग

आबोल्या, तुजो रंग उजो
रांदणीर तुज्या कितें शिजोगो ?

माणकुल्या मुखार पाकळी पिटाची
साणशिल्या सांदींत, दुबळ्या देंटाची
मोवाळायेंत कसो उजो रुजोगो ?
आबोल्या तुजो रंग उजो

एकसुरपणारी आलबो सृंगार
आंकवारपणाची साय आंगार
राशीच्या उज्यांत देव पुजोगो
आबोल्या तुजो रंग उजो

म्हज्याय भितर जळटा सोर्मुणां
भायल्यान कुलकुलो कसो काय नेणां
आंगपांग मात घामान भिजोगो
आबोल्या तुजो रंग उजो

भितरलो उजो वोंकूक नर्गातां
नकली ह्याशांनी लिपोवंक कर्गातां
म्हज्याच मडचार म्हजोच भजोगो
आबोल्या तुजो रंग उजो

म्हज्याय मुखार उजो पिकय
भितरलें सोर्मूण भायल्यान फांकय
मोग घडों असो तुजो म्हजोगो
आबोल्या तुजो रंग उजो
रांदणीर तुज्या कितें शिजोगो ?

## स्वपणांतुलें राज

सांवळच्या शेतां वोंळि, वडारुका मुळि
कोवळोन आसतां नेत्रावति व्हाळत सुळसुळि.
सकाळिच्या सुर्यान सकाळ चऊंक नातलो–
निद्रा जागोवंक ताचि कोंब्यान साद घातलो.
    कोनशांतल्या कोगळिबाये पेंपरें तुजें व्हाज
    मन म्हजें जालां कालुबुलें आज–
        पळान पळ मतिक येता स्वपणांतुलें राज !

बाळ किरणान नेटोंवक तें तनें तनें फांतें
सुर्या तोंड घुंवलें – जशें घुंवत दांतें.
तेदना अंत्रळिक पडल्यो धारि; देंवल्यो सुंदर नारि
झळक न्हेसोन आंगावेरि देंवल्यो हारिन हारि.
    गाजलो आवाज गाजता जशि दर्यांतुलि गाज–
    काळिज म्हजें कावजेवन जालें वोलें वोलें आज;
    मति सामकार दिसलें सुन्दर स्वपणांतुलें राज !

हारिं मदें झरि परिं बावलें आयलें कसलें ?
तेंच तें स्वपणांत म्हज्या पाचवें पाचवें आसलें !
न्हेसोण धोव्या दोवा परि, कुपांगाड्यार सवार
रशमि घोडे गाडि ओडि वर्णुंक असकत उतर.
    बोटां म्हज्या ओंटांक लाऊंक बावलें आयलें आज;
    उटां उटिं गाडियेंत ओडुन आपलें केलें आज;
    गाडि उबलि माका दाखोंवक स्वपणांतुलें राज !

रडचि भुमि, रडोन मरोन कुपांखालिं निदलि;
गाडि हंसा जोडिये परिं हळवायेन तंगलि;

सकाळिच्या बोंग्या परि राज थैंचें फुल्लें;
वसंतांतल्या हास्या परि आंग म्हजें भुल्लें.
राणियेन म्हज्या मतिक म्हज्या उजवाडायलें आज;
“ हें आमा भागियांचें सुवर्णालें राज. ”
म्हळें ताणें वर्णून म्हाका स्वपणांतुलें राज !

रैत एकलो भांगरा मातियेंत कष्टां बि वोंपि,
तोंडार ताज्या हासत खेळत तर्नि पाचवि रोंपि.
हांगा रानांवनां मोळेशिळें आंबोरपिके हासले;
हांगा बंजर शेतां, कांटे–खिळे, दोंगर सुके नासले.
हांगा म्हाका देकोन फातरा हासो दिऊंक लागलि पाज !
सुकोन गेल्लें काळिज म्हजें लकलकिलें आज !
कशें वर्णूं, कशें आसलें स्वपणांतुलें राज ?

हांगा मनशा तोंडार हासत आसलि एप्रिलांतलि कळा;
हांगा लेत्रा उतरांत गळत आसलि तृप्ति ज्योति माळा;
हांगा मनशांक जाल्ले मनशा पूत मनशांक खायिनातले;
हांगा कष्टि पेल्या शेतांत आपलो बावटो लायिनातले.
हांगा आसलें ल्हानाव्हडांक आपापलें राज
हांवें वेंगलें राणियेक म्हज्या–भियाक निकेपिलें आज
संतोसाचि खरि सोभाय स्वपणांतुलें राज !

भोंवतां भोंवतां सुर्यो थकोन धरणि उशार निदलो;
रुकां इडयांत तकलि काडुन चंद्रेम शेतार सोबलो.
राणयेन म्हज्या ओडुन म्हाका हातापायान वेंगलें;
उबेंत ताच्या कडोन हावें गालावोंटांक चुंबलें.

“ हाय स्वपणांतुलें राज आमि आपलें केलें आज;
संतोसाचे नितळ झरिन म्हेळें धुलें आज;
आनि तुजें आनि म्हजें मोगा स्वपणांतुलें राज !”

तेदना धरणि हांसलि; चंद्रेम लजलो; रुक बावले –
राणियेन लोटलो भुमिक म्हाका उभारुन दावले.
“ थू ! स्वार्थि सुण्या ! काळिज तृप्तेंत पिकय;
भुमिवयल्या मनशा किडयांक मनशापण शिकय.
मागिर भेटतां मनशा रुपार – तुका नहिं हें राज.”
म्हळें ताणे रडण्यांक म्हज्या – नाश जालें आज.
स्वपणांतुलें स्वपणांत उरलें स्वपणांतुलें राज ! *

* ही कविता आक्टोबर, १९५२ त रचली.

## ताळयेन ताळी

त्यायी दिसा वडारुका जैती कूड रडली
ताळयेन ताळी उडली चानी मळबालागीं जोडली

पावलां पावलीं पाताळा हालोंक धलोंक जमलेंना
दावलां धांवली अंत्रळा आकासांत सोंबलीं ना
बोटायेदी चानी जशी खांद्यार म्हज्या चडली
ताळयेन ताळी उडली चानी मळबालागीं जोडली

कोडशीं दुकां फातरेलीं पोल्यांवयल्यान गळ्ळींना
केणां गोबरांत मुर्मुरलीं मेकळीं सकळीं जळ्ळीं ना
करूं कशें रूदान म्हजें जिबली ताळचांत वोडली
ताळयेन ताळी उडली चानी मळबालागीं जोडली

सुकणीं सांदीं संदांनी घोंटेर बांदून रावलीं
तकलेच्येरी थाप्यांनी म्हेळोप करून धांवलीं
सांगात म्हज्या नशिबाची मडकी कोणें फोडली
ताळयेन ताळी उडली चानी मळबालागीं जोडली

# जिगी बिगी रात

जिगी बिगी रात आज काजुल्यांची वात
काजुल्यांचे वातींत कितलें म्हण दिसात ?

काजुल्यांचे झळकेंत फींतशें दिसात
फींताचे उबणेंत केंसशे सुसात
आसतले मुदयाळे, कोंगराळे, जिरसाळे
दोळच्यांक जरी दिसलेंना अतम्याक दिसात
जिगी बिगी रात आज काजुल्यांची वात
काजुल्यांचे वातींत कितलें म्हण दिसात ?

जिगी बिगी झळकेंत आसडीशी दिसात
आसडेचे उडकेंत तोंडशें सुसात
आसतलें वाडकुळें, माणकुलें, गुळगुळें
दोळच्यांक जरी दिसलेंना अतम्याक दिसात
जिगी बिगी रात आज काजुल्यांची वात
काजुल्यांचे वातींत कितलें म्हण दिसात ?

चिटी पिटी चालींत आंगलें दिसात
आंगल्याचे मोडींत कूडशी सुसात
आसतली रसबाळचा केळंब्याची कांडीशी
दोळच्यांक जरी दिसलीना अतम्याक दिसात
जिगी बिगी रात आज काजुल्यांची वात
काजुल्यांचे वातींत कितलें म्हण दिसात

अशीच सदांकाळीं रात जर आसात
देवा धनयाक मुगेलीं अर्गां आसात

दोळयांक न्हय दिसची सोबाय आसता सोसची
दोळयांक जरी दिसलीना अतम्याक दिसात
जिमी बिगी रात आज काजुल्यांची वात
काजुल्यांचे वातींत कितलें म्हण दिसात

## दारा भायलो घोव

सोड सोड निद्रा हांव तुजो घोव
कुडीचें मास आंगाचें हाड
मोडुन सोडिन, हांव तुजो देव
दार काडगो दार काड.

हांवगो तुगेल्या गळचाचो मान
धांव रगताची आशेचें झाड
थाव जिणेचो सांगता पुराण
दार काडगो दार काड

येतां व्हावोवन बोटां झरोवन
पितांच्या पापांची वाडीची वाड
रात गेलीगे अर्दी जिरून
दार काडगे दार काड

गूगीचीं गाणां अपशकुनां
गागेला वाडो काळशेल्या फाड
तुगेलो पती दुबाव नासताना
दार काडगे दार काड

वयल्यान चंद्र हासत लोव
बायलेचो राग आसाना पाड
पाषाणां भोवतीली मातीशी मोव
दार काडया दार काड

मळबारी तारां मिणकयी दोळे
गळता कुडीरी किर्णांचें खाड
वोळवळे–लजेन जालोंया गुळे
दार काडया दार काड

रानांतलीं मुर्गीं गर्जोण्यो घाली
कानांतलो कानपो जालो षाड
मनांतल्या धैराच्यो निसरल्यो साली
दार काडमां दार काड

धरलेल्या हातान मारतां सलाम
उरलेली जिणी करूंमू लाड
हांव न्हय पती तुजो गुलाम
दार काडमां दार काड

## बिरि - बिरी पावस

रडूं नाका फायच्या झाडा, दीस तुगेलो येतलो
बिरि - बिरी पावस सुटका तुका दितलो
हय, बिरि - बिरी पावस........

फांत्यापारीं कोगळी - पिलान सगळें मळब गाजयलें
आयच्या झाडार चांफलें जालां, दवान तोंड भिजयलें
मुळीं आसलेल्या फायच्या झाडान आपलें काळीज शिजयलें
आनी वाऱ्यान ताका भिवयलें.

येवंचो तुजो येतलो गे, वेंगांत तुका घेतलो
बिरि - बिरी पावस सुटका तुका दितलो.
हय, बिरि - बिरी पावन........

चांफल्या - मुळीं फायचें झाड खुसु - खुसु रडलें
खुसु - खुसु रडटां - रडटां आयचें चांफलें झडलें
आयचें चांफलें झडटां झडटां
मळबा धांपण उडलें.

येवंचो तुजो आयलो गे, दीस तुगेलो उदेलो
बिरि - बिरी पावस सुटका तुका दितलो.
हय, बिरि - बिरी पावस.

## मोगाळ म्हजें जिता

सकाळिच्या दोवा, भिजय म्हजि फुलां
वोड्त म्हजें रातिं चंद्रीमान धुलां
कालचीं फुलां बावय, बोंगे सोडय आतां
भंग म्हजो जाता तडोव जातां जातां
आतां वोडतांत येता मोगाळ म्हजें जिता
गुलाब म्हजो काडून हासो मात दिता.

दनपारांच्या वोता पाशार जातात खिणां
कोण तें जिता, हांव कांय नेणां !
वडा सावळेक बसतां लागिं नांत जणां
हो खिणकुळचांचो नाद खंयचो कोण जाणां ?
तेन्ना मतित येता मोगाळ म्हजें जिता
चिंतना म्हजि चोरून हांसो मात दिता

रातिं व्हाळच्या वाऱ्या खंय तुज्यो फेऱ्या ?
यो म्हज्या घरा मत ना थाऱ्या
न्हीदोन हांव आसतां, लागिं नांत जणां
हो खिण खिणकुळचांचो नाद खंयचो कोण जाणां ?
खटल्या लागिं येता मोगाळ म्हजें जिता
न्हीद म्हजि नागोवन हांसो मात दिता.



चार्लस फ्रांसिस द कोश्ता जांकां चाफ्रा ह्या नांवानच साहित्याच्या संवसारांत वळखतात.

जल्म : १०–१०–१९३१ वेर मंगळूर शारांत.

१९४८ वर्सा एस. एस. एल. सी जाले उपरान्त १९५१ ते १९६० मेरेन मुम्बय शारांत वास्तव्य.

१९५५ त ‘जागमाग’ ह्या सप्तकी नेमाळचाचो संपादपी. मागीर ‘पयणारी’ ह्या साताळचाचो.

फुडें मंगळूरांत परतो येवन नाटका–खेळ बरोवन ते माचयेर हाडले. नाटककार म्हूण नामना.

१९७४ वरसा ‘उदेव’ हें नेमाळें सुरू केलें.

१९८४ वरसा सावन “जिवीत” हें सप्तकी सुरू केल्लें आसा.

कोंकणी भाशा मंडळ कर्नाटक चो संस्थापक अध्यक्ष.

तांच्यो कांय साहित्य कृती :– सोबीत संवसार, आंकवार मेस्त्री, पयणाऱ्यांचो मित्र, भांगर मनीस, जॉर्ज बुतेल, तर्ने तर्ने मोर्ने, सुणे मांजर हांसता, जुजे दयाळ, ब्रोकलाक सात जीव़, बी.